# कुंडेकुरू-कुरू

## (बालनाट्य)

बरोवपी
रमेश भगवंत वेळुस्कार







गोवा कोंकणी अकादमी

कुंडेकुस्कुर
बालनाट्य
रमेश भगवंत वेळुस्कार

**प्रकाशन क्र.: 91**

**पयली आवृत्ती :**
2007

**उजवाडावपी :**
ज्योसिनो वाझ
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी
पणजी गोंय 403 001

**अक्षर जुळवणी:**
'कलाकृती',
नं. 33, मधूबन कॉम्प्लेक्स,
तामडी माती, सांत ईनिज,
पणजी-गोंय.

**मुखचित्र :**
दिगंबर सिंगबाळ

**छापणावळ :**
मोर्सोन ग्राफीक्स
फोंडें गोंय 403401

**मोल :** 30/-

**KUNDDEKUSKUR**
Children's Play
By- Ramesh Bhagvant Veluskar

**Publication No.**: 91

**First Edition :**
2007

**Publisher :**
Joaosinho Vaz
Secretary,
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony
Panaji Goa 403 001

**Type Setting :**
'Kalakruti'
No. 33, Madhuban Complex
Tambadi Mati, St. Inez,
Panaji Goa

**Cover :**
Digamber Singbal

**Printer :**
Morson Graphics
Ponda Goa 403 401

**Price :** Rs. 30/-

स्मृतीशेष
सुमंतबाब केळेकारांक

जाणी म्हजें पयलेंच पुस्तक 'मोनी व्यथा' आपूण जावन मागून छापलें.

- रमेश

**अकादमीचे वतीन .....**

2003 हें वर्स सरकारी थरावयल्यान 'बालकवर्स' म्हण मनयलें. गोवा कोंकणी अकादेमीन बालकवर्साच्या निमतान बाल रंगमाची आनी बाल साहित्याचे निर्मितीची एक येवजण तयार केली. बाल रंगमाचये खातीर तयार केल्ले येवजणेंक 'बालमंच' अशें नांव दिलें. नाट्यसंस्था, नाट्य निर्मति आनी नाट्य दिग्दर्शक हांचे कडसून पुराय स्वरुपाच्यो नाट्यसंहिता मागोवन घेतल्यो. एका परिक्षक मंडळान तातुंतल्यो स नाट्यसंहिता वेंचून काडल्यो. वेंचिल्ल्या बालनाट्याचो एक महोत्सव ता 5-6-आनी 7 जानेवरी 2005 ह्या दिसांनी, फोंडेच्या राजीव गांधी कला मंदिरांत घडोवन हाडलो. ह्या महोत्सवाक बाल प्रेक्षकांनी खूब बरो प्रतिसाद दिलो.

बालनाट्य महोत्सवांतल्यो वेंचीक संहिता काडून त्यो पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडपाचो अकादेमीचो उद्देश आसलो. त्याप्रमाण प्रा. प्रकाश पर्येकार हांणी बरयिल्ले ''इगडी बिगडी तिगडी था'' हें बालनाट्य 2006 वर्सा पुस्तक रुपान उजवाडाक आयलें. तेच वळेरेंत आतां श्री. रमेश भगवंत वेळुस्कार हांगेलें 'कुंडेकुस्कुर' बालनाट्य प्रकाशित जाता.

कुंडेकुस्कुराची काणी ही आमच्या कोंकणी लोकवेदांतली एक अजांवर अशी काणी. वर्सासंकिनी ती आमच्या ओंठांचेर घोळत आसा आनी आमच्या काळजाच्या कुरकुटांत ते काणयेंक खाशेली सुवात आसा. मुदलाक कवी आशिल्ले नामनेचे बरोवपी श्री. रमेश वेळुस्कार हाणी तिका नाटकाचो साज चडयला.

आमच्या बाल प्रेक्षकांक मानवलां तशें हें बालनाट्य आमच्या वाचप्यांकूय मानवतलें अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

## कुंडेकुस्कुराच्या निमतान लेखकीय.....

संवसारांत जशी रंभा एकूच आसा, रुक्मिणी एकूच आसा, क्लिओपात्रा एकूच आसा, सिंड्रेला एकूच आसा, पार्वती एकूच आसा तशेंच कुंडेकुस्कुरुय एकूच आसा. आनी कुंडेकुस्कुर पुरायपणान कोंकणी आसा.

उत्तर भारतांत कुंडेकुस्कुरा सारकी काणी म्हाकां आयकूंक मेळ्ळी ना. डॉ.यस. यस. कुळकर्ण्याच्या सांगातान बरींच वर्सां काडलीं. पूण तांच्याय तोंडांतल्यान असली समान काणी कन्नडांत आसा अशेंय केन्ना तांचेकडल्यान आयकलें ना. तशी सिंड्रेलाची काणी मात्शी मात्शी लागीं आसा. कुंडेकुस्कुर आनी सिंड्रेला ह्या नांवाच्या आदारानूय आमच्यानीं हें जाणा जांव येता. सिंडर म्हटल्यार कोळसो, कोयर आनी म्हणून कोंयरांतलीं वा कोळशांतली ती सिंड्रेला तशेंच कुंडो वा अवस्करक म्हटल्यारुय कोयरुच आनी म्हणून कुंडेकुस्कुरय कोयरांतलेंच. अवस्कर म्हटल्यार कोयर.

आमचेकडें भांगर कोयरांत शेणटा तेन्ना भांगरुय कोयर जाता आनी जेन्ना आमकां कोयरांत भांगर मेळटा तेन्ना ताचो उत्सव जाता. हो उत्सव आनंदाचो, आनंद सांपडलेल्याचो आनी कुंडेकुस्कुर तर कोयरांतलें भांगर, कोयरांतलें, कोळशांतलें सौंदर्य, लिपिल्लें सौंदर्य.

कुंडेकुस्कुराची काणी कोंकणी भाशेकूय लागता म्हटल्यार जाता. हे भाशेक आपलें अशें सौंदर्य आसा आनी ती पुरायपणान एक जिती भास आसा अशें कुंडेकुस्कुराच्या भावणावरीच कांय कोंकणी मनशांकूय दिसना हीच एक वस्तुस्थिती आसा. कुंडेकुस्कुराच्यो भयणी ताणीं रातीकडेन पळयिल्ल्या सुंदर राजुकंवरीची खबर दुसऱ्या दिसा आपले भयणीक म्हटल्यार कुंडेकुस्कुराक सांगता आनी ताका तिका पळोवंक यो म्हण सांगता. ती राजकुंवर खुद्द तांचीच भयण कुंडेकुस्कुर आसता हें मात तांकां कळना. कांय कोंकणी मनशांची स्थिती आजून ह्या असमंजस आनी अप्रबुद्ध भयणांवरीच आसा. बरें, मनाची वाढ म्हण कितें कृत्रीमपणान करूं येता मागीर तो व्हड डॉक्टर म्हणोवपी बुदवंत आसुये वा गाड गभीर प्रोफेसर आसुये. गिन्यानाची वाड आपशींच जावप बरोबर.

कुंडेकुस्कुर म्हजे जिणेंत म्हाका भुरगेपणांतूच गावलें. ताची काणी म्हाकां

कोणे सांगली याद जायना. म्हाकां आमगेर येवन जाणे हजारांनी काणयांच्या सागरांत बुडयलो आनी बुडपाक शिकयलो तो बाबल मराठे ह्या आमच्या देवळांतल्या पुजाऱ्यान. ताणे ह्यो काणयो शुद्ध कोंकणीत सांगल्यो. ताणेच केन्नातरी एक दीस ही काणी सांगल्या आसूंक जाय. ही काणी आयकूंक जितली सुंदर आनी आकर्शक आसा तितलीच ती सांगपाकूय खूब्ब मजा येता.

म्हजे जिणेंतली तेत्तीस वर्सां हांवें शिकोवपाचें काम केलें. म्हाकां हें काम खूब्ब आवडलें आनी म्हणून हांवें शिकोवपाचें काम घेतलें. म्हज्या कर्मधर्म संयोगान तें मेळ्ळेंय. आनी ह्या तेत्तीस वर्सांच्या काळांत कुंडेकुस्कुरान म्हाकां सांगात दिलो आनी आजून दीत आसा. ही काणी आयकून भुरगीं उमेदीन कशीं पिकून येता ती हांवें पळयल्यांत, सवन उर्बेन तांचें आंग कशें चंवरुन येता तें हांवें अणभवलां आनी तीच काणी परत आयकुपाक उत्सुकतायेची सुंदर होरावणी घेवन कशीं उबीं जातात तेंय हांवे पळयलां. 1968 चो जून तें 2002 चो मार्च मेरेन हांवें ही काणी भुरग्यांक हजारांनी पावट तरी सांगल्या आसतली. दर दिसा ही काणी आपलें रुप इल्लें इल्लें बदलीत रावता. असो सातत्यान बदलत रावपाचो योग हो फकत लोकांकाणयांकूच आसता. ती मनशाच्या मनाक स्वातंत्र्य येवपाचो एक आगळो अणभवूच दिता म्हटल्यार उपकारता. जितली चड पावट ती तुमी सांगशात तितली ती चडांत चड लख्ख आनी सुंदर जायत वयता हो म्हजो अणभव.

कैक युगांसावन चलत आयल्ली ही लोकांकाणी 2001 वर्सा आपलें आनी एक नवें रुप म्हाकां दाखयता आनी हांव सामको भुल्लुसून वयतां. ती आपलें काणयेंतलें रुप तशेंच दवरून ह्या नाटकाच्या रुपांत येता. इतलो तेंप काव्यात्म गद्यरुप आमकां पळोंवक मेळ्ळेलें तें तिचें पद्यात्म रुप दिसलेल्यान म्हाकां खूब्ब उमेद जाल्ली. हांवें हातूंत कितें केलां अशें म्हणपाक येंवचें ना तर कुंडेकुस्कुरुच हाका जबाबदार आसा. 2001 ही नव्या शतमानाची सुरवात. आनी कुंडेकुस्कुर ह्या लोकवेदीय संदर्भाचे बाबतींत हें परिवर्तन ही संवसारातली एक आनी एकविसाव्या शेंकड्यांतली लक्षणीय गजाल आसपाचीय शक्यता न्हयकारपाक येवची ना. लोकवेदान निमताक म्हाकां जबाबदार केला. खऱ्या अर्थान हें श्रेय सौंदर्यवती कुंडेकुस्कुराकूच वयता. हांव ह्या नाट्यकलाकृतीचो फक्त लेखनीक

इतलेंच खरें.

हे काणयेंतल्यो मनीस प्रवृत्ती खूब्ब म्हत्वाच्यो. हांतलो निसर्ग, हांतलें रान, हांतली म्हातारी, हांतलो राजकुंवर आनी हांतली सौंदर्यवती आनी हांतलो मोर तशेंच तांचीं कर्तुबां हांकां लागून अद्भूत आनंदनिर्मिती जाता. तांतलें कल्पनाविश्व तर अमोघ आनी अगाध आसा. मनशाच्या मनाच्या आदिमामेरेन वचपाखातीर तें विश्व सदांच मदत करता. विश्व सौंदर्याचो आनी विश्वानंदाचो सुगुर्वो आपल्याच काळजांत कसो लिपून आसा हाची जाणीव जाता आनी मन, आनंद तरंगांनी थरथरुंक लागता. आनंद धनाच्या अढळपदाचेर ही काणी तुमकां बसयता. हें आनंद अढळपद तुमचेकडल्यान कोणूच केन्नाच झोंपोवन घेंवक शकना. वा तुमीय तें केन्नाच कोणाचकडल्यान झोंपोवन घेंवकूय शकनात. ती तुमकां सर्वोत्तम आनी परमोच्च सुवात दिता जी तुमी फकत मरणाक आनी विस्मरणाकूच दान करुंक शकतात. कुंडेकुस्कुर ही असली आनी येदी व्हडली शक्त. ही शक्त कोंकणी भाशेंतूय अशीच आसा. जाच्या आंगार ही सासाय तरंगून येता तेन्ना ताणे काम केलेबगर गत्यंतर नासता. परक्यांच्या आदेशांक ऑर्डरीक ती केन्नाच जुमानिना. आनी जांचेर भाशेचो हो भार येता ते केन्नाच कोणाक आदेश दिनात. जांचेर भार येतात ते तशे निमिताक कारण आसतात.

हांवें भुरग्यांखातीर बरयल्लें हें पयलें नाटक न्हय. हे आदीं हांवे रेडिओचेर जाल्ल्या कितल्याशाच बालकार्यक्रमांनी बालनाट्याचे प्रयोग केल्यात. तांची तशी नोंद मात केन्नाच दवरली ना. घडये रेडिओन दवरल्या आसूं येता. हांवें आनी एक एकांकी बरोवन कला अकादेमीच्या शालेय नाट्यस्पर्धेंत म्हजे शाळेतर्फे सादर केल्ली जिचें नेपथ्य दिगंबर सिंगबाळान केल्लें आनी पुंडलीक नायकान म्हाकां खूब्ब आदार केल्लो. आयच्या इडीसी इमारतीच्या जाग्यार तेन्ना कला अकादेमीचें थियेटर आसलें आनी ते रंगभुंयेर हो प्रयोग जाल्लो. ही खबर सत्तराच्या दशकांतली विसाव्या शेकड्यांतल्या. ते उपरांत 2001 त कुंडेकुस्कुरान आपलें काम सुरु केलें. ही खबर हांवें म्हजे एक इश्ट रंगकर्मी आनी गुणी अभिनेतो तशेंच कुशल दिग्दर्शक दीपक आमोणकाराक तो म्हजें ''आपोवणे आयलां सांयबा नाचपाकू'' हें नाटक रुद्रेश्वर, पणजी हे संस्थेखातीर बसयतना म्हटलेली.

गोवा कोंकणी अकादेमीन कोंकणी बालनाट्य महोत्सव करपाचो येवजिलो तेन्ना ह्या कुंडेकुस्कुराची ताका याद जाली. ह्या नाटकाचें वाचन आमी मळ्यांतल्या मारुती मंदिरांत बसून केलें आनी दीपकान हें नाटक बालनाट्य महोत्सवांत करपाचें थारायलें. पूण तेन्ना ह्या नाटकाचो निम्माणो भाग कांय पानाचो बरोंवचो आसलो. तो रोकडोच पूर्ण करून हांवे नाटक दीपकाकडेन दिलें. ताणें तें रुद्रेश्वराचे वतीन करपाचें थारयलें.

अकादमीन हो पयलोच "कोंकणी बालनाट्य महोत्सव" धूमधडाक्यान जानेर 5,6,7,2005 ह्या दिसांनी फोंडेच्या राजीव गांधी कला मंदिरांत संपन्न केलो. कुंडेकुस्कुराचो प्रयोग जालो. ते संबंधांतल्यो सगळ्यो सूचना म्हाकां अकादेमीच्या जाळवणदारांनी धाडलेल्यो पूण हांव गोंयांत नासलेल्यान म्हाकां कुंडेकुस्कुराचो पयलो नाट्यप्रयोग पळोवपाचो लाव ह्या संवसारांत कायमचो ना जालो. आतां ह्या फुडें जातलो प्रयोग पळोंवक मेळुये अशी आस्त आसा.

आतां ह्या नाटकाची संहिता पुस्तक रुपान येता. स्वता गोवा कोंकणी अकादेमीच हो पुस्तकाभार हाडटा ही आनीक खोशयेची गजाल. हे खातीर गोवा कोंकणी अकादमीक परबीं. खरें म्हटल्यार अशे प्रकारचे बालनाट्य महोत्सव सरकारान आनी गोवा कोंकणी अकादेमीन दर वर्सा घडोवन हाडपाक जाय. हांतल्यान उत्स्फूर्त वावराक चालना मेळटा आनी सृजनशील वावराची भर पडटा. हे गजालीकडें अकादेमी आस्थेन पळयतली अशी आस्त बाळगुंया.

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

21/9/2006

प्रवेश : 1

(पड्डो उक्तो जाता. ल्हान ल्हान भुरगीं खेळटात, नाचतात, गायतात. तांच्या गितांतल्यान उक्तें जाता एके काणयेचें विश्व, जातूंत आसा कोंकणी लोकवेदांतल्या नामनेच्या कुंडेकुस्कुराची काणी. नाचपा गावपांतल्यान सुरू जाता वेळाकाळाच्या गोबरा पोंदा, धुल्लान माखून वळखूंक ना येवपी सौंदर्याची अप्रूप आस्पत आनी कोंकणी सरस्वतिची तिच्या तळकाळजांत वसतली सुंदर कुंडेकुस्कुर. )

आयज आमी खेळया खेळ
खेळ सुंदर चलयेचो
दु:खी ताची जीण तरी
रंग तातूंत होळयेचो




रुप ताचें साळीक सुंदर
रंग ताचो, भांगराचो
आंगार ताच्या फुलां, पाकळ्यो
रुपकार घेता शिंगरांचो

पायांत ताच्या नृत्य कळाशी
खळखळ धांवत्या वझऱ्याच्यो
मुखार ताच्या झिरझिरमिरता
सोळा कळा रे चंद्राच्यो

दु:ख पेखयता अंतरांत ती
सूख रुजयता तोंडार
काणी तिची आयकतलो तो
केन्ना उरचो ना नेणार

काणयेंत आसा असली बाबा
सुंदर सुंदर अस्तूर
आमी खेळटा खेळ ताचे रे
नांव कुंडेकुस्कुर

आयज आमी खेळया खेळ
खेळ सुंदर चलयेचो
दु:खी ताची जीण तरी
रंग तातूंत होळयेचो

उतर तिचें म्होवाळ मोगाळ
मर्त्याक करता अमृत
स्वातंत्र्याचे ते प्रतिपाळक
नवनिर्माण तें अमृत

आयज आमी खेळया खेळ
खेळ सुंदर चलयेचो
दु:खी ताची जीण तरी
रंग तातूंत होळयेचो

(बाबल्याचें घर. घरांत बायल कांय कपड्यांक कपयो बी मारून शिवपाचें काम करता. घरांतली मांडावळ सामकी सादी. बाबल्याची परिस्थितीय गरीब. बाबल्याची बायल गुणवंती तोंडांत सूर घोळयता. त्या सुरांत दुख्खाची सया जाणवपा इतलो हो स्वर मुखर आसता. गुणवंती काम करतां करतां म्हटल्यार शिंवतां शिंवतां तिच्या बोटाक सुय तोपता. बोटांतल्यान आयल्लें रगत ती पळयता आनी बोट तोंडात घालता. शिवप थंय सोडून ती वयता. जनेलांतल्यान भायर पळयता. भायर सुकण्यांचे कांय आवाज आयकूंक येता.)

**गुणवंती** : भुरग्यांचो बापूय आयज दनपारां आयलोच ना. खंय उल्लो काय? आनी आमच्यो सगळ्यो साळकायो म्हाळकायो खंय पावल्यो काय? म्हाकांय कशेंशेंच दिसता एकटी आसतकूच.

(भायर दारार आवाज जाता)

आयलो दिसता भुरग्यांचो बापूय !

(वचून दार काडटा. दार काडटना खिळयेचो वा आडाम्याचो आवाज. बाबलो वाल्यान आपलें तोंड पुशीत येता. तो वालो न्हेसला. आंगार एक म्हेळकेशें खोमीस आसा.)

**बाबलो** : गुण्या इल्लें उदक हाड पळोवया. खूब तान लागल्या.

**गुणवंती** : (गुणवंती उदक हाडून दिता) घे उदक घे. खूब चलचें पडलें दिसता.

**बाबलो** : हय तर. आतां जीणभर आनी कितें ! चलप चलप.

**गुणवंती** : अशें कितें उलयता.

**बाबलो** : आगो आतां हे मुखार न उलयतांच चलत रावपाचो वेळ येतलो. हांव हात पांय धुवन येतां. पोटांत कितें पडत? दनपारां वाटेक कांयच खावपाक मेळ्ळें ना.

**गुणवंती** : चल चल. तितलें म्हण्टा म्हणसर हांव तुळशीक दिवो दाखोवन येतां. (देवाऱ्यांत देवाक दिवो दाखयता आनी एक निरांजन घेवन भायर वयता आनी येता. मागीर परत भितर वयता आनी केळीचें पान घेवन येता. आनी घोवाक वाडटा. शीत, कडवण आनी बांगडो.)

**बाबलो** : (हात तोंड पुशीत येता.)

जांव. आयज हांव पाटार बसचे पयलींच तुवें पान तयार केलें. जाण कोण आयज इतली भूक कित्याक लागल्या म्हण. हय गो गुण्या, हें कितें? शीत, कडवण आनी बांगडो सुको.

गुणवंती : हें सगळें तर तुवेंच हाडून दिलां. तें हांवें रांदलां आयज तुकां आनी कितें?

बाबलो : आसूं आसूं. खायन जायतें दिसता. पूण भूक लागतकूच कितेंय वयता भितर. आसूं. बरें वाड तूं. खूब भूक लागल्या. (जेवता)

गुणवंती : पूण तुकां खांयन कितें दिसलेलें?

बाबलो : गुण्या सांग पळोवया तुवें गोडाचे वडे खाल्यार कितली वर्सां जालीं?

गुणवंती : (पयलीं हाताची बोटां मेजता मागीर पांयांची बोटां मेजता) कितलीं वर्सां जाणा ?

बाबलो : कळ्ळीं कळ्ळीं. खूब वर्सां जाली. असोच ताचो अर्थ.

गुणवंती : म्हणजे तुका गोडाचे वडे खांवची रुच आयल्या तर.

बाबलो : गुण्या खायन दिसतां गो. पूण दिसले म्हण मेळटा तर?

गुणवंती : तूं म्हाकां सामान हाडून दी. फाल्यां करुया गोडाचे वडे.

बाबलो : गुण्या, आगो आमी दोगांच आसलीं तेन्ना आमी खूब वडे खाल्या. आतां इल्लेंशें हाडलें म्हण पावता? तूं म्हाकां पावलें... तूं म्हाकां प्रसन्न जालें. आनी तुवें म्हाकां सात सात नक्षत्रां दिलीं.

गुणवंती : कळटां आं म्हाकां तुजे आणे. तुकां दर पावटीं पूत जाय आसलो. पूण देवाक-

बाबलो : मर्दी देवाक कित्याक हाडटा? तुकां जाय आसताली धूव.

गुणवंती : एक गजाल हांव मानची ना हां.

बाबलो : खंयची ती?

गुणवंती : हीं सगळीं भुरगीं फकत एकट्याचीं म्हजीं न्हय.

बाबलो : तें बरें आसा गो. पूण सात सात भुरगीं. आनी हांव एकटो हात पांय हालोवपी. हे हात सगळ्यांच्या पोटाक पावूं नाका? म्हणून

म्हण्टां इल्लेशें पीठ हाडून सगळ्यांचे जिबेर कुडको कुडको तरी पडत वड्याचो ? मागीर रुच आसली तशी पोटभर वाडत वयतली.

**गुणवंती** : तूं अशें कर. फाल्यां तूं म्हाकां पीठ आनी गोड हाडून दी. घरांत इल्लें तेल आसा.

**बाबलो** : गुण्या, तूं तशें गुणी गो. नशीबान तुकां हात दिलो ना म्हण सांग. नाजाल्यार-

**गुणवंती** : आसूं आसूं. म्हजे चड गूण गांव नाका. फाल्यां हाड सामान.

**बाबलो** : पूण घरांत ज्यो सप्तमातृका आसात तांचें कितें करतलें तूं?

**गुणवंती** : हे पळय. फाल्यां सांजे सगळीं न्हिदले उपरांत हांव तुकां वडे करून दितां न्हय.

**बाबलो** : वा.. कितें तकली आसा गो तुकां गुण्या ! आनी हें गो, आमचीं सगळीं नक्षत्रां खंय आसा गो ?

**गुणवंती** : तीं तीं सगळी शाण्या शणैगेर बारशाक गेल्यां. तीं येतलीं आतां... तूं न्हीद. (बाबलो वचपाक उठ्ठा) आनी हें पळय.. रातीं न्हिदांत बी वथरेशी.

**बाबलो** : आनी वथरेलों म्हण...

**गुणवंती** : तूं वथरेलो आनी तें भुरग्यांनी आयकलें जाल्यार!

**बाबलो** : ना. सायबिणी... ना... ना. वथरेंवचों ना. बरें बरें. न्हीद येवपाक लागली.

***

## प्रवेश : 2

(घरा मुखावयलें खळें. भुरगीं खेळटात. सात चलयो. कोण चित्रां काडटा, कोण फुलांची फांती घालता. कोण मणी गुंथता, कोण शिंवता, कोण बरयता. कोण बावली करता, कोण नाचता. सगळीं आपापले भितर गुल्ल. नाचतां नाचतां कस्तूर सगळ्यांक लेखून म्हणटा.)

**कस्तूर** : भयणांनो, काय बरी सकाळ, पळयात मंद मंद वारो मारता. सुकणीं सुंदर गायन करतात.

**सगळीं** : मागीर आमी कितें करुया ?

**कस्तूर** : आमीय सगळीं नाचुंया..

**सगळीं** : चला चला कस्तूराची कल्पना भौ बरी आसा. आमी नाचुंया.

(सगळीं नाचपाक उबीं रावतात. आनी नाचपाक सुरू करतात. गायतां गायतां नाचतात.)

**मस्त रान मस्त झाडां मस्त वाली मस्त फुलां**
**सुकण्यांच्या शकुन सादान पान पान चिप्प जालां**

**ल्हवूच येतां धूंद वारो सळसळटा सगळें रान**
**साळोऱ्यांची लळीत बोली भरता काळीज अमृतान**

**मस्त घेता झेल झाडां कोगूळ मोगाळ गायता गीत**
**पावलांच्या चमकणार जुळून येता मनात प्रीत**

**पळय जळामळा पळय फूल पाकुलीं भूल पाकुलीं**
**कोण्या राजकुंवरा साद करता मना ओलीं ओलीं**

**मस्त रान मस्त झाडां मस्त वाली मस्त फुलां**
**सुकण्यांच्या शकून सादान पान पान चिप्प जालां**

(नाचतां नाचतां दोगां दोगां फुगडी घालतात. आनी तिगांची फुगडी वांगडाच चलता. धाकटुलें कस्तूर एकटेंच उरता. तें पयलीं सगळ्यांक पळयता. मागीर हेवटेन तेवटेन पळयता आनी आपूण एकटेंच नाचता. तिनाय जोडयांचो नाच थांबता. कस्तूर नाचत वयता. भितरल्यान गावपाचो आवाज येता. पयलीं एकट्याचो, मागीर दोगांचो.)

**एकलें एकसुरें**
**नाचत वयतालें**
**राना वनां खंयखंय**
**नाचत भोंवतालें**

**एकलें एकसुरें**
**नाचत वयतालें**
**दोंगर धारो हुपीत हुपीत**
**पयस पावतालें**

**एकलें एकसुरें**
**नाचत वयतालें**
**कोण्या राजकुंवराकडे**
**रंग खेळटालें**

**एकलें एकसुरें**
**नाचत वयतालें**
**राना वनां खंय खंय**
**नाचत भोंवतालें**

(गावपाचो आवाज ल्हवू ल्हवू जायत येता. कस्तूराचें नाचप मात चालूच उरता. बाकीच्यो सय भयणी ताका पळयत उरतात.)

**आबोलें** : पळय गो कस्तूर नाचत उल्लें. बरें नाचता तें.

**शेंवतें** : नाचता बरें. पूण तें आमचे वांगडा फुगडी बी मात खेळना.

**चंपा** : आनी आमी तरी ताका खंय आमचे वांगडा खेळयतात?

**आबोलें** : धाकटें न्हय गो तें. ताका आमचे वांगडा सारकें खेळपाकूच जमना.

**गुलाब** : पूण आमी ताका आमचे वांगडा खेळोंवक जाय आं..

**जायू** : गुलाब, अशें तूं म्हण्टा खरें. पूण तूंच तर ताका, मागीर तुकां खेळयतां म्हण सांगून कुशीक दवरता.

**प्राजक्ता** : ना. ना. कस्तूरबायक अशें पयस दवरुंक फावना. ना जाल्यार तें अशें आमचे पसून इल्लें पयसूच उरतलें.

(संगीताचो आवाज वाडटा)

**एकलें एकसुरें**
**नाचत वयतालें**
**दोंगर धारो हुपीत हुपीत**
**पयस पावतालें**

(थंय गुणवंती येता. तांकां पळयता)

**गुणवंती** : म्हज्या माणकुल्यांनो चला. खूब खेळ जालो. ह्या झाडा तळा दीस माथ्यार पावलो हें कळच ना. चला चला जेवपाक चला.. (कस्तूर ल्हवू ल्हवू नाच थारायता आनी वचून आवयक घट्ट वेंग मारता. सगळीं इल्लीं इल्लीं करून भितर वयता.)



## प्रवेश : 3

(बाबल्याचें घर. रान्नी कूड. रातचो वेळ. गुणवंती आनी बाबलो दोगांय उलयतात)

**बाबलो** : गुण्या तीं सगळीं न्हिदलीं मुगो. पळय पळोवया मात्शें वचून... खंय न्हिदल्यां तीं.

**गुणवंती** : आयज तांकां सगळ्यांक माळयेर न्हिदयल्यांत.

**बाबगो** : जार्गी बी नात मगो तीं ? तूं मात्शें पळोवन कित्याक येना?

**गुणवंती** : म्हाकां कळटा तुजी रुच. आयज तूं चिंता करूं नाकां. आयज सगळे वडे तुकांच. हांव लेगीत खांवचें ना.

**बाबलो** : ना. ना. तूं खांवचे ना म्हणजें कितें? तुंवे खालो ना जाल्यार हांव तुकां खावयतलों.

**गुणवंती** : आंवय, हें कितें ?

**बाबलो** : तें आसूं. मात्शें वयर वचून पळोवन यो.

**गुणवंती** : खरें म्हटल्यार हांव आत्तांच वयर वचून आयलां. सगळीं थार न्हिदल्यांत.

**बाबलो** : बरें तर... हांवूय मात्सो आड पडटां भायल्या सालांत. तुजें सगळें जालें काय मागीर म्हाकां उठय. कितल्या तेंपाची रूच आयज भागतली. बरें तर.. वयतां हांव..

(गुणवंती पीठ कालयता. गोड घालता. ते पयलीं गोड धाडयता.)

**गुणवंती** : आयंज कितल्या तेंपान भुरग्यांचो बापूय आसभर वडे खातलो. इतल्या भुरग्यांक खावपा जेवपाक गांठयता म्हणसर ताका बाबड्याक सुसेग ना. (उठून उजो करता. कायल चुलीर दवरता. मात्शा वेळान ताचेर उदकाचो हात मारता. चुळ्ळ चुळ्ळ असो आवाज जावपाक लागता.)

हीं आनी कोण्ण उठना जाल्यार पुरो.
(दाराकडें कस्तूर. दोळे चोळीत अर्द न्हिदेंत.)

**कस्तूर** : बा गे.. इतले रातची कितें करता?

**गुणवंती** : कांय ना गो बाय. (गुणवंती घुस्पता. भियेताय.)

**कस्तूर** : आगे... तूं वडे काडटा. काय बरो वास येता वड्यांचो.

**गुणवंती** : बाय गो. हांव तुका वडो दितां आनी वयर वचून मोन्यानी खा. घे... आनी कोण्णाक सांगू नाकां हां. म्हाकां एक सांग गो..तूं उठलें कशें?

**कस्तूर** : बागे.. म्हाकां मगे एक सपन पडलें. तातूंत एक राजकुंवर आयलो आनी म्हणपाक लागलो, ऊठ.. म्हजे वांगडा सकल यो. आनी हांव सकल यो जाल्यार हांगां तूं वडे काडटा. आनी तो नाच्च जालो.

**गुणवंती** : बरें आतां वच न्हीद. हेरांक बी जागोंव नाकां हां.

**कस्तूर** : ना.. बा.. (वयता)

**गुणवंती** : शी बाबा. हें कस्तूर उठलेंच. हेरांक जाग येयना जाल्यार पुरो. ना जाल्यार हे सगळे वडे हांगचे हांगा ना जातले.

**चंपा** : (दारांत येवन पळयत...)
बा.. आगे.. आमकां फटोवन कितें करता रातची?

**गुणवंती** : तुकां कोणे उठयलें गो ?

**चंपा** : आगे कितें जालें जाणा... कस्तुराचो पांय पडलो म्हज्या हातार आनी हांव जागें जालें.

**गुणवंती** : मागीर ?

**चंपा** : मागीर मगे गोड वड्यांचो वास आयलो. मात्शें रावन पळय जाल्यार कस्तूर वडे चाबडायता आनी सकल पळय जाल्यार उजवाड दिसता आनी चुळ्ळ चुळ्ळ आवाज.

गुणवंती : बरें बरें. आतां वयर वच..

चंपा : म्हाकां वडे ना दिस्ता.

गुणवंती : म्हज्या बायक म्हण  ना म्हण्टां हांव.. हो घे. आनी कोण्णाक जागोवंक नाकां हां.

चंपा : ना... बा. आनी कोण्णाक सांगना

(चंपा गेल्या उपरांत सगळ्यो उल्लेल्यो भयणी येता. आनी सगळ्यांक ती एकेक वडो दिता आनी तीं वयर वयतात.)

गुणवंती : जालें... (कपलार हात मारता) देवा म्हज्या.. आतां कितें करपाचें? हो दादलो उठून आतां खवदळ घालतलो. कितल्याशाच वर्सांनी ताका गोड वडे खांवक मेळटले आसले. पूण नशीब फुटकें. ताणे बऽऽरें केलें म्हण.. तशें जांवक पडलां? आतां करप कितें काय? आतां म्हाकां हो खातलो. घरांत चिमटीभर लेगीत पीठ ना. आज हो म्हाकां मारून खातासो दिसता. म्हाकांय कांयच येवजना. आ... आतां एक. फकत एकूच काम शक्य आसा.. जळवाकुडींत लांकडाचो खूब पिठो पडला. तो हाडून ताचे वडे काडून दवरतां... (भायर वयता आनी पिठो घेवन येता आनी ताचे वडे काडटा)

जांव सायबा ! सुटली हांव. आतां केन्ना उठ्ठा तेन्ना उठूं हाका. ना म्हणपाच्या उतरांतल्यान वांटवली हांव. (दार उक्तें जावपाचो आवाज जाता.) उठलोसो दिसता.

बाबलो : (तांबयो घेवन भायर वयता आनी तोंडार उदक मारता आनी बायले मुखार बसता.)
गुण्या बरो वास येना मगो वड्यांक.

गुणवंती : तुवें जें पीठ हाडलां ताचेच हे वडे. पीठ कोनशेलां बी आसूं येता.

बाबलो : तसो कोनशेल्लो तरी वास येवपाचो.

गुणवंती : म्हाकां कांय खबर ना. हांवेय काय चाखूंक ना.

**बाबलो** : बरें. हाड ते हांगा. खूब तेंपान इतले पोटभर वडे खावपाचो योग आयला. ह्या तुज्या भुरग्यांनी नाका शिंवर केला म्हाका.

**गुणवंती** : (मतींतले मतींत देवाक उलो मारता) घे.. (वड्यांचो वाडगो बाबल्या हातांत दिता)

**बाबलो** : गुण्या, एक तूं खा गो.

**गुणवंती** : नाकां नाकां. तूंच खा पोटभर. तुजें पोट भल्लें काय म्हाकां पावलें.

**बाबलो** : (वडो मोडून तोंडात घालता.) थू.. थू.. गुण्या हें कितें गो?

**गुणवंती** : कितें जालें ?

**बाबलो** : आगो हें पीठ ? काय लाकडांचो पिठो गो ?

**गुणवंती** : भुरग्यांच्या दाय, तुकां खरें ते सांगतां.. हो लाकडांचोच पिठो.

**बाबलो** : मागीर खरे वडे कोणे खाले तर ?

**गुणवंती** : एक एक करुन तुज्यो धुवो उठत गेल्यो. सकल येवन ताणी बडे मागले. एक एक करुन सगळे वडे सोंपले. आनी उपरांत तुजे भिरांतेन हांवे हें अशें करुन दवल्लें.

**बाबलो** : हाचो अर्थ असो, ह्यो सप्तमातृका म्हाकां सारक्यो खांवक जेंवक लेगीत दिंवच्यों नात. पुरो जालें. खूब जालें. फाल्यां सकाळीं ह्या सगळ्या साळकाया म्हाळकायांक व्हरुन रानांत सोडटां. हाणी म्हजें सगळें जिवीत सामकें कण्णम करुन उडयलां.

**गुणवंती** : तूं अशें खऱ्यांनीच म्हण्टा ?

**बाबलो** : हय. म्हाकां आतां तांचो असो राग आयला ! असो संताप आयला!

**गुणवंती** : पूण आमच्यो भांगरासारक्यो धुवो...

**बाबलो** : तांकां रानात सोडटां. हांव सुट्टलों, त्योय सुट्टल्यो. फाल्यां सकाळीं. जालें. चल तूं आतां.. न्हीद तूं..



## प्रवेश : 4

(बाबल्याचें घर. बाबल्याच्यो धुवो आनी बाबलो.. एक एक करून त्यो भायर सरून वयता... गुणवंती आनी बाबलो तांकां पळयता.)

**बाबलो** : चला.... चला तुमी मुखार सरात. हांव फाटल्यान येतां. आमी आयज दीसभर रानांत जळोव एकठांय करतलीं. म्हाकां कांय झाडांय कापपाचीं आसा.. चला चला.. (बाबल्याच्या खांद्यार एक कुराड आनी खांदाक एक पोती आसा.)

**गुणवंती** : (दोळ्यांक पदर लायता) फाटल्या जल्मांत कसलें पाप केल्लें म्हण जाण कोण ! ना जाल्यार म्हज्या दोळ्यांमुखार असलो भिरांकूळ प्रसंग घडचो नासलो... (रडटा)

**बाबलो** : गुण्या... पुरो आतां. देवान बरें केल्यार फुडें आमकां पुतच पूत जांव येतले. चल तूं आतां भितर... हांव सांजे बेग्गीन येतां.

(वयता.)



## प्रवेश : 5

(रान : सगळ्यो भयणी नाचतात.)

आयज कसलें नकळो वारें घुरु घुरु व्हांवता
जाण कोण खंयचे वटेन नशीब आमचें धांवता

आयज कित्याक नातकां अशीं हुटूक हुटूक रडटा
पावलां कित्याक अशीं कशीं खंयचे खंयूय पडटा

आयज कसलें नकळो वारें घुरु घुरु व्हांवता
जाण कोण खंयचे वटेन नशीब आमचें धांवता

(कस्तूर नाचांतल्यान भायर सरून)

रावात... दायचो आवाज येता जाल्यार पळयात.

(कुराडीन झाड कापपाचो आवाज जातना आयकूंक येता.)

**कस्तूर** : आयकूंक येता न्हय.. दाय थंय रानांत झाड मारता. सांज जातकूच तो येतलो आमकां व्हरपाक. चला, चालू करुंया आमी आमचो नाच. (नाचतात.)

पलतडचीं तारवां
व्हरूंक आमकां येतलीं
नशीब भरून गिरेस्तकाय
आमकां वांटून दितलीं.

पलतडचीं तारवां
व्हरूंक आमकां येतलीं
फुलां मारुन आमचेर
जिखून आमकां घेतलीं.

पलतडचीं तारवां
तुरु तुरु येतलीं
आमकां घेवन देशांतरा
ल्हवूच बाबा वेतलीं.
(नाच गाणे थांबोवन)

कस्तूर : भयणांनो, पळयात वयर मळबांत पळयात, खंय खंय नकेत्र दिसूंक लागलां. दायच्या झाड मारपाचो आवाजूय येना.. दाय.. तूं खंय आसा? (मोट्यान आड्ड्ता.) दाय ऽऽ

(सगळीं एकेकट्यान दाय... दाय.. अशें मोट्यान आड्ड्त उलो मारतात. ... तांकां कोण्णाची जाप येना... कस्तूर एकलेंच नाचता.)

कस्तूर : दाय रे दाय
तूं खंय पावलो काय
दाय रे दाय
तूं खंय पावलो काय
कित्याक गेलो
करुन असो
आमच्या मनांक घाय
आमच्या मनांक घाय

(दाय... दाय.. करीत भायर वयता आनी परत माचयेर येता...)

कस्तूर : दाय आमकां सोडून गेलो. परत तो आमकां कसो मेळटलो ? आमी आतां खंय वयतलीं? कोण आमकां आपल्या घरांत घेतलो ?

चंपा : पयलीं आमी ह्या रानांतल्यान या, ना जाल्यार वाघ बी जनावरां येवन आमकां खातलीं (चलपाक लागता.)



## प्रवेश : 6

(म्हातारी आपल्या वाड्या भायर आसलेल्या पिंपळापेडार दिवो पेटयता.)

म्हातारी : हीं भुरगीं हांगा खंय येता काय असल्या काळखांत !

(सगळ्यो भयणी म्हातारेच्या मुखार पावतात)

म्हातारी : भुरग्यांनो तुमी इतले रातचीं खंय वयतात ?

कस्तूर : आज्जे आमचो दाय आमकां रानांत सोडून घरा गेलो आनी आमी चलत चलत तुज्या फुड्यांत पावल्यां. आमचो गांव खंयचे वाटेन उल्ला तेंय आमकां खबर ना. आज्जे, तूं आमकां तुज्या वाड्यांत दवरशी?

म्हातारी : भुरग्यांनो, तुमकां तुमच्या बापायन रानांत हाडून सोडल्यां म्हण्टकूच आतां परत घरा गेल्यारूय तुमचो बापूय तुमकां परत घेत हें म्हाकां खरें दिसना. आतां तुमी हांगाच रावात म्हजे वांगडा. हें पळयात. म्हज्या वाड्याक धा कुडी आसात. जण एकल्याक एकेक कूड घेयात. एक कूड म्हजी. एक कूड देवाची आनी एक म्हज्या जेवणाची.

कस्तूर : आज्जे.. आज्जे तूं कितली बरी ? आतां तूंच आमची आवय आनी तूंच आमचो दाय.

म्हातारी : भुरग्यांनो चला. तुमची कूड आपल्या ताब्यांत घेयात. जेवप खावपाक तुमच्या कुडिंनी आसा. फकत तुमी जण एकल्यान रांदपाचें, चलात चलात.

(सगळीं वयतात.)

आगो कस्तूर .. तूं कित्याक फाटीं रावलां चल, तूंय चल बाय.

(कस्तूर वयता.)



## प्रवेश : 7

(म्हातारेच्या वाड्यामुखार पिंपळा पोंदा कस्तूर एकलेंच बसलां आनी गीत म्हण्टा)

कस्तूर : **कसलो आयला वेळ**
**कसलो नशिबाचो खेळ**
**मनांतुल्या मनसुब्यांचो**
**हांगा ना गा मेळ**

**खंय गेलें तें वारें**
**खंय गेलें तें तारूं**

**धायवाटांनी धांवतलें मन**
**कशें थातारुं, कशें थातारुं**

म्हातारी : बाय कस्तूर, कित्याक अशें भायर बसलां? आनी तूं अशें विळाप कित्याक करता?

कस्तूर : आज्जे गे.. तूं जाणा न्हय, म्हाका जी कूड मेळ्ळ्या ती कुंड्याची कूड. बाकी सगळ्या भयणांक बऱ्यो बऱ्यो कुडी मेळ्ळ्यात. थंय खावपाक जेवपाक सगळें आसा. सगळीं रानपांत गुल्ल आसात. हांव कितें करुं? कुंड्यात मेळ्ळ्यो कणयो. ताची केली पेज.. आतां आनी कितें करुं... म्हण हांगा बसलां.

म्हातारी : बाय गो, नशीब कोणाक चुकना. आनी म्हणून तुवें अशें विळाप करची गरज ना. कोण सांगतलो, तुजो राजकुंवर तुजी वाट सोदीत आसा म्हण?

कस्तूर : आज्जे, म्हजे कुडींत शेण, कुंडो आसता म्हण सगळीं म्हाका कस्तूर म्हणनास्तना कुंडेकुस्कुर म्हण्टात. म्हाकां आतां म्हज्याच नशिबाची लज दिसता.

**म्हातारी** : ना बाय ना अशें चिंतप ना. तुजे इतली नक्षत्रावरी सुंदर चली ह्या संवसारांत मेळपाची ना.

**कस्तूर** : आज्जे, कांय दिसांनी हांगच्या देवीची जात्रा जांवची आसा खंय?

**म्हातारी** : हय बाय. हांवें ही जात्रा पळयल्यार सत्तर वर्सां जालीं आसतलीं.

**कस्तूर** : आज्जे, तूं जात्रेक कित्याक वचना तर?

**म्हातारी** : बाय, तुमचो आजो म्हाकां सोडून गेल्या उपरांत हांव हो वाडो सोडून खंयच वचूंक ना. बाय, तूं वच आं जात्रेक. आजून खूब दीस आसा गो....

**कस्तूर** : कितले दीस उल्ल्या आज्जे ?

**म्हातारी** : पळय बाय मार्गशीर म्हयनो सोंपले उपरांत पौषांतले पुनवेक ही जात्रा आसा. आसा आजून एक म्हयनो भर. बाय, चल जेवन घे. उशीर जायत येता.

**कस्तूर** : आज्जे, म्हाकां जेंवक लेगीत वाज येता. सद्दां म्हण कितें पेज जेवपाची.

**म्हातारी** : कितें करुया बाय... हो येदो व्हडलो वाडो आनी ही येदी गिरेस्तकाय. पूण तुजो आजो गेले उपरांत हांव केन्नाच शीत जेंवक ना. शीत रोस आसलेंय जाल्यार म्हाकां रुचना आनी पोटांतूय वचना...

**कस्तूर** : आज्जे, तूं कितलें सोंसता?

**म्हातारी** : हय मुगो ? पूण आतां तुमकां हांगां पळोवन म्हाकां खूब खोस भोगता. केन्ना न्हय तो म्हजो वाडो सुखान भरुन व्हांवूक लागला.

**कस्तूर** : आज्जे, चल आतां आमी जेंवक या. भुकय लागल्या.

**म्हातारी** : आतां कशें म्हजें बाय शाणे कशें उलयलें. चल या.



## प्रवेश : 8

(रानांत सगळीं भांवणां नाचातात. तांचे मदीं कस्तूर ना.)

**नशीब आमचें सुंदर सुंदर**
**पयस गेले दुखेस्त दीस**
**पयस गेलो आमचो गांव**
**पयस जालो तो पात्तळ नीस**

(नाचतां नाचतां थकतात आनी बसतात.)

**प्राजक्ता** : ही मात गजाल सामकी खरी. आमगेर आमकां सदांच पेज जेंवची पडटाली. आतां आमचे बरे दीस आयल्यात. आमच्या कुडिंनी भांगरां शिंगरांय आसात. न्हेसपा कामुरपाक आसा.

**आबोलें** : हय गो प्राजक्ता. आमचें नशीबूच बदल्लां. आमचे दुखाचे दीस पयस पळ्ळ्यात. आमकां दायन रानांत सोडली तेंय एक बरेंच जालें.

**जायू** : पूण आमची भयणुली कस्तूर ... ताचे भोग मात आजून पयस जावंक ना.

**चंपा** : ओ... कस्तूर कशें तर तें - तें आता कुंडेकुस्कुर...

**जायू** : तुमी कोण्णे ताका आपोंवक ना आतां हांगासर ?

**शेंवतें** : ताका आमी आपयल्यार लेगीत राग येता. आनी एक खबर आसा तुमकां ?

**सगळीं** : कसली खबर ?

**शेंवते** : म्हणजें तुमकां खबर ना तर? ताचे कितें जालां जाणा.. तें म्हणजे आमच्या कस्तुराच्या....

**सगळीं** : कस्तुराच्या न्हय.. कुंडेकुस्कुराच्या...

**शेंवतें** : आसूं.. ताचे कुडींत खंय सद्दां एक मोर येता. (सगळीं अजापान आ ऽ असो आवाज करतात) आनी मागीर आमचें कस्तूर ताचेकडें उलयत बसता.

**चंपा** : तुकां कोणें सांगलां तें?

**शेंवते** : आंवय.. गावांतल्या सगळ्या लोकांक खबर आसा ही गजाल.

**जायू** : असो कुडींत मोर येवप म्हणजे नशिबाची गजाल हां.

**शेवतें** : आनी मोर खंय ताचेकडें खूब्ब उलयता.

**चंपा** : म्हणुनूच दिसता तें आमकां आपले कुडींत केन्नाच घेना.

**जायू** : हरशीं म्हण ताचे कुडींत आसता तें शेण आनी कुंडो, देखून लजेन तें घेना आस्तलें.

**प्राजक्ता** : पूण केन्ना तरी आमी त्या मोराक पळोंवक जाय. म्हाकां जाल्यार ताका पळयन दिसला.

**शेंवतें** : म्हाका जाल्यार ताचें अप्रूप दिसता. आमकां जें मेळ्ळां तें ताका मेळूंक ना. आनी ताका जें अशें सौंदर्य आनी आतां मयुर सौंदर्य लाभलां तें आमकां मेळूंक ना.

**आबोलें** : आयजूय तें मोराखातीरुच बी थंय रावूंक ना मूं?

**जायू** : थंय ना जाल्यार तें थापता आसतलें भायर शेणी.

**गुलाब** : म्हाकां जाल्यार सगळें अजापूच दिसता. मोर म्हण केन्ना कोणागेर असो घरांत भितर येता?

**आबोलें** : अजाप म्हटल्यार... हय.. तशें अजापूच तें.

**गुलाब** : आसूं बाबडें... ताका मोर फावो जाला. ताचेकडे आंगाखांदार घालपाक कांयच ना. हो मोर तरी ताका आपलीं मोरपाखां लावन सुंदर करतलो, म्हणून म्हाकां ताचें अजाप दिसता!

**शेंवतें** : गांवचो लोक म्हण्टा, मोर खंय ताच्या फुड्यांत येवन आपलें आंग झडपिता. आनी मागीर ताच्या पाखांतल्यान माणकां मोतयां गळटात.

**चंपा** : अब्बा.. तुमी पूण काणयो घडवपाक खूब्ब हुशार आं. घडयत रावतात. तें बाबडें दुखेस्त जावन आपले कुडींत रावता.

**प्राजक्ता** : चला. आमीय अशें दुख्ख करचे परस नाच करुंया.
(सगळीं नाचतात)
**चंद्रीमाची कोर चोया**
**भांगर झडयता**
**अप्रुपाचें गीत आमच्या**
**मनांत घडयता**

**दोंगर माथ्यार कोर चोया**
**खेळ खेळटा**
**पसय ताची काळजांत गो**
**रंग जुळयता**

(नाच नाच नाचता. ल्हवू ल्हवू थांबता...)

**चंपा** : चला.. या आतां आमोरी जायत येता.

**प्राजक्ता** : आनीक दोन दिसांनी गांवची जात्रा आसा. आमी या आं सगळीं.

**चंपा** : या तर.. आमकां पळोवंकूच जाय. आमी याच सगळीं, बाबड्या कस्तुराकडें मात कांय ना... सारकें ... न्हेसपा कामुरपाक.

**आबोलें** : आमी पूण व्हरया ताका जबरदस्तेन.

**शेंवतें** : तें तशें येता ! केन्नाच ना. पळोवंया कितें जाता तें? आतां या आमी.

***

## प्रवेश : 9

(कस्तूराची कूड. कुडींत शेर्णींचो दाळ. कुंडो आनी एक व्हडलें जनेल. तें जनेल उक्तें करता. भायर सुंदर देखाव दिसता.)

(कस्तूर) कुंडेकुस्कुर

(हातांत वाडगो घेता आनी पेज जेवता. आनी रडटा.)

**कसली म्हजी जीण**
**खिणा खिणाक वाडटा शीण**
**शेर्णीं भितर माणकां मणी**
**घेवन येता जीण...**

**कसली म्हजी जीण**
**जातूंत गालांर धांवऽ दुकां**
**देखून म्हजे कुडींत कोणूच**
**येंवक म्हाकां नाकां**

**असली म्हजी जीण**
**तरी कुडींत म्हजे मोर**
**काळखी म्हजे जिणेत आसा**
**उजळ चंद्रकोर**

**यो रे म्हज्या मोरा म्हाकां**
**यो रे म्हाकां खेळोवंक**
**म्हाकां चाळयतलीं तोंडां**
**नाकां म्हाकां पळोंवक**

(सुंदर सुमधूर संगीत वाजता आनी ल्हवू ल्हवू जनेलांत मोर दिसता.. कुंडे कुस्कुर मोरा वांगड़ा खेळटा. ताका पोशेता. मोरूय ताजेकडें लागांनी खेळटा. मागीर कुंडेकुस्कुर आनी मोर नाचता. नाचतां नाचतां मोर

आपलें आंग झडयता आनी ताच्या आंगातल्यान खूब माणकां मोतयां झडटा. कुंडेकुस्कुर नाचत आसता आनी ल्हवू ल्हवू मोर थंयच्यान वयता. कुंडेकुस्कुर नाचून नाचून थकता.)

कुंडेकुस्कुर :

मोर गेलो येवन
म्हाकां आनंदूय दिवन
मोर गेलो दुख्ख घेवन
म्हाकां सूख दिवन

दुख्ख दुख्ख म्हणून हांवें
कित्याक आतां रडचें
करुन तोंड काळें हांवें
कित्याक वगीच झडचें

मोर म्हजें भाग्य म्हजें
गगन म्हाकां जालें लागीं
मोर येत सावन हांगा
दुख्ख जालें वगी वगी

(ल्हवू ल्हवू नाचता आनी ल्हवू ल्हवू काळोख जाता.)



## प्रवेश : 10

(आबोलें आनी चंपा कुंडेकुस्कुराक मेळपाक येतात.)

**चंपा** : कस्तूर... कस्तूर गो...

**आबोलें** : ना कितें गो हें. तशें हें खंयच वचपी न्हय.

**चंपा** : आगो शेणी थापपाखातीर तें भायर वयता. आनी गेल्यारुय तें हांगाच्यान दिसता.

**आबोलें** : चंपा ताका कुंडेकुस्कुर म्हणूं नाका आं. कस्तूर... कस्तूर गो.

**चंपा** : आगो कुंडेकुस्कुर म्हटलें म्हूण कांय जायना गो.

**आबोलें** : बाय कस्तूर गो...

**कुंडेकुस्कुर:** आरे... चंपा आनी आबोल्या .. येयात बसात. (एक हांतरी पातळायता.) बसात. म्हजेकडें कदेली वा आसनां नात. फकत आसा ही हांतरी.

**चंपा** : तुजें बाबड्याचें नशीबूच अशें जमनीर बसपाचें. ह्या गावांतलो सगळो लोक तुकां कुंडेकुस्कुर म्हण्टा.

**कुंडेकुस्कुर:** आसूं चंपा. म्हजी जीण ही अशी. तुमचे परस वेगळी. गरीबकायेची. तुमी आपलीं वर्ती मनशां. गांठीक चार पयशे आसलेलीं.

**आबोलें** : जाणां कस्तूर, मनशाक ताचें नशीब सोडीना. पूण आसूं. ताचेंच तूं चड चिंतू नाकां. चड दुख्ख करुन कांयच मेळपाचें ना.

**चंपा** : हय गो कस्तूर. दुख्ख करुन, चिंता काडून जर सूख मेळटा जाल्यार तें करूं येता. पूण कांय जायना म्हण तें न करप बरें.

**कुंडेकुस्कुर:** आसूं गो आतां. पूण तुमी कित्याक आयल्लीं?

**चंपा** : आयज मगो गांवांतले देवीची जात्रा आसा. आमी सगळीं वयतलीं जात्रेक. तूंय यो आमचे वांगडा.

कुंडेकुस्कुर: हांव आनी कित्याक येंव? म्हजेकडें आंगाखांदार घालपाक काय कांयच ना. हांव कितें म्हजें दुबळेपण लोकांक दाखोवंक येंव?

आबोलें : तशें न्हय गो. आमी तुका आमची आंगलीं दितां. कानां नाकाक घालपाक दितां. पायांक जोतीं दितां.

कुंडेकुस्कुर: म्हाकां कोणाच कडलें कांयच घेवपाक नाकां. म्हाकां दुसऱ्यांच्यो वस्ती घालपाक बरें दिसना. तुमी चलात जात्रेक. बरी मौज करात.

चंपा : कस्तूर आमी सगळींच गेलीं जाल्यार काय बरें जातलें. तूं एकटेंच घरा रावल्यार आमकां खूब वायट दिसतलें.

कुंडेकुस्कुर: तशें कितें आसा तर ? म्हाकां लागून तुमी बी घराच रावशात !

आबोलें : तूं आमची भयण म्हण आमकां अशें दिसता. आमी सगळीं जात्रा करतलीं आनी तूं एकटेंच काळखांत भरसून रावतलें. बरें दिसचें ना.

कुंडेकुस्कुर: तुमी म्हजें वायट मानून घेंव नाका. तुमी बरीं मिरयात जात्रेंत आनी फाल्यां म्हाकां सांगात जात्रेच्यो खबरी.

चंपा : बरें तर गो कस्तूर. तूं आमचे वांगडा आयल्लें जाल्यार इल्ली चड मौज येवपाची. पूण ही मौज आमच्याय नशिबांत ना. आनी तुज्याय नशिबांत ना.

आबोलें : बरें तर. या मुगो चंपा, चल, बरें गो कस्तूर. जर तुकां येन दिसलें जाल्यार योच आं. बरें .... (दोगांय वयतात.)

कुंडेकुस्कुर: गेलीं हीं. म्हाकां दिपकांवक आयल्लीं. ह्यो सगळ्यो म्हज्यो भयणी, पूण म्हजी कुन्नाटकाय करतात. म्हाकां फकत वयलेचाराक सांगूंक आयल्लीं. हांकां सगळ्यांक म्हाका आपलीं भांगरां शिंगरां दाखोंवचीं आसलीं. आसूं...

म्हातारी : (कुंडेकुस्कुरालागीं येवन.) बाय... तूं एकटेंच उल्लें गो हांगासर ?

कुंडेकुस्कुर: आज्जे, आयज जात्रा मगे. देखून सगळो लोक गेला देवळाकडे. म्हजेकडे कांय ना न्हय गे आंगाखांदार घालपाक. म्हण म्हाकां वचन दिसलें ना. आनी तूं आसाच न्हय गे सांगाताक.

म्हातारी : बाय गो, म्हजे सारके जड्डेच्या सांगाताक रावन कितें जातलें तुजें?

कुंडेकुस्कुर: अशें कित्याक म्हण्टा आज्जे?

म्हातारी : बाय गो. तुमी तरणी ताठी भुरगीं. जात्रेक वचपाचें वय तुजें. तुवें घरा रावप म्हटल्यार म्हज्याच मनाक खातलें. बाय गो तूं खंती जांव नाकां. तुकां जाय तें सगळें मेळटलें, पूण तूं ही जात्रा पळय. देवी तुजें बरें करतली.

कुंडेकुस्कुर: आज्जे, जात्रा सुरु जाली आस्तली न्हंय गे.

म्हातारी : आमोरीं जाली काय जात्रा सुरू. मागीर व्हडे रातीं पालकी भायर सरता आनी उपरांत नाटक जाता.

कुंडेकुस्कुर: आज्जे म्हाका मगे नाटक भौ आवडटा.

म्हातारी : म्हाकांय खूब आवडटालीं गो पुता. पूण आतां म्हजीं हाडां अर्दीं मसणांत पावल्यां. म्हाकां अबरगतींक कोणे सांगल्यां आतां नाटकां, पूण बाय तूं वच.

कुंडेकुस्कुर: आज्जे, आसूं गे. हय गे, तूं जेवली गे?

म्हातारी : हय बाय. इल्लो नीस पियेलीं म्हण्टकुच म्हाकां कांयच नाकां जाता रातचें. तूं मगो जेवन घे (कुंडेकुस्कुर जेंवंक बसता. ते पयलीं तें आपल्याक वाडून घेता.)

कुंडेकुस्कुर: (पेज पियेतां पियेतां) आज्जे, तूं वचून न्हीद पळोवया. म्हाकां लागून तुजो जीव चडचडटा. म्हाकां खबर आसा.

म्हातारी : बाय, तूं जेव. हांव रोकडी येतां कुडींत वचून. (वयता.)

कुंडेकुस्कुर :

**कितलो आसा जीव**
**हे म्हातारेचो म्हजेर**
**मायेन म्हजे उतर तिचें**
**पिकून येता जिबेर**

**खंयच्या जल्माची ती**
**आसत म्हजी इश्टीण**
**म्हजे खातीर कश्ट घेता**
**पळय कितली पापीण**

**म्हातारे गे तुजें उतर**
**सजत येता काळजांत**
**अप्रुपांचे खोशे सांगाता**
**तूं रुजत येता समजांत**

(म्हातारी येता आनी कुंडेकुस्कुराचें गीत आयकत एके कुशीक उबी रावता. तिका तें मानवताच, ते भायर तिका कुंडेकुस्कुराविशीं चड आपुलकी दिसता.)

(कुंडेकुस्कुराचो आवाज इल्लो इल्लो थांबत येता.)

**म्हातारी** : बाय गो, तुजो ताळो सामको फुलांच्या गळ्यांतलें म्होंवशें, आयकन आयकन दिसता.

**कुंडेकुस्कुर:** (तें उठ्टा आनी येवन म्हातारेक घट्ट वेंग मारता. आवाज घुमता.)
**म्हातारे गे तुजें उतर**
**सजत येता काळजांत**
**अप्रुपांचे खोशे सांगाता**
**तूं रुजत येता समजांत**

**म्हातारी** : बाय... पळय उशीर जायत चल्ला. आनी रातूय जायत चल्ल्या. राव आं... (ताळी मारता, भायल्यान एक अजापांचो भेस केल्लो

मनीस येता. ताचेकडें एक व्हड सुंदर करंड आसता. आनी तातूंत न्हेसपाचे कपडे आनी भांगरां शिंगरां आसात) हें पळय बाय, ह्या करंडांत कितली सुंदर आंगलीं आसात तीं. आनी हो पळय हार, आनी कितलो सुंदर न्हय? आनी हीं कानांतलीं; आनी नाकांतली, हें सगळें आंगार पावतकूच तूं कितलें सुंदर दिसतलें म्हण सांगू.. चल, बाय चल. वच आनी न्हेसून यो.

**कुंडेकुस्कुर:** आवयस.. आज्जे हें हांवें न्हेसपाचें?

**म्हातारी :** हय गे म्हजे धुवे.. ह्या भेसांत तुजी सुंदरकाय लक्ष्मीक लेगीत लजयतली. बाय, तूं खऱ्यानीच खूब्ब सोबीत आसा.

**कुंडेकुस्कुर:** ना गे आज्जे, म्हाकां खंयचें रुप बीप ?

**म्हातारी :** बाय गो, साळकाक दिसता आपूण रेब्यांत पांय रोवन आसता म्हण... पूण ताका आपलें सौंदर्यूच खबर आसना.

**कुंडेकुस्कुर:** आज्जे तुज्या म्हजेवयल्या मोगाक शीम ना. जे नदरेन तूं म्हाकां पळयता ती नदरूच इतली सुंदर आसा, जिका लागून हांव आपाप सुंदर जावन वयतां.

**म्हातारी :** थू मेकल... बाय गो... कोणाचीय दीश्ट बी लागत तुकां ! चल वच आनी न्हेसून यो. (कुंडेकुस्कुर भितर वयता.)

(म्हातारेच्या काळजातल्यान स्वर येता.)

**मळबांतली तारिका ही**
**वसुंधरा ही, भामिनी**
**मुखार तिच्या झगझगता**
**सुंदर नदर स्वाभिमानी**

(सगळ्या साज शिरंगारा सयत कुंडेकुस्कुर येता. तें सामकें साक्षात सौंदर्याची देवीशी दिसता.) आरे बाबा, बाय हांगा यो.. चल रे वच आनी दीश्ट काडपाचें सामान घेवन यो. (तो हाडून दिता धुपाटणे. ताचेर मीठ मिरयां बी घालून ती ताची दीश्ट काडटा.)

कुंडेकुस्कुर: आज्जे, पांये पडटां.

(ती ताका वेंगेत काडटा)

कुंडेकुस्कुर: आज्जे आतां हांवें वचप कशें ? भायर काळखी रात. वाटूय बरीच पयस.

म्हातारी : भियेंव नाका बाय. तूं म्हण अशें पायांनी कशें वयतलें?

कुंडेकुस्कुर: हांव समजलें ना आज्जे.

म्हातारी : बाय गो तूं आतां वयतलें जात्रेक. पूण तूं मोरार बसून वयतलें. आरे चल मोराक आपयला म्हण सांग.

(तो वयता) बाय मोरार बस आनी वच. आनी एक काम कर.

(अजापाचो मनीस वयता आनी मोराक आप्रयता.)



कुंडेकुस्कुर: कितें आज्जे ?

म्हातारी : बाय हो पळय. मोर येता.

(मोर येता) ह्या मोरार बस वच आनी बारा जांक्वे पयलीं माटवांतल्यान भायर सर. आनी रातच्या बारा पयलींच जात्रेच्या वाठारांतल्यान तुवें भायर सरपाक जाय.

कुंडेकुस्कुर: आनी अशें जालें ना जाल्यार ?

म्हातारी : अशें जालें ना जाल्यार तुज्या अंगावयलीं हीं नवीं न्हेसपां भांगरा शिंगरां खंयचे खंय नाच जातलीं आनी तुजें सगळें भेस रुप आसा तश्शें जातलें. आनी मागीर सगळ्या लोकांक तुजें सवंग कळटलें.

कुंडेकुस्कुर: ना आज्जे. तुवे सांगलां तश्शें जातलें. येतां आज्जे.

(मोर आयलो आनी तें मोरार बसलें आनी गेलें उडत उडत)

(जात्रेचो वाठार. सगळ्या तरांचे मांड दिसतात. खाजें भजें, थामण आनी गच्च लोक. कुंडेकुस्कुर लोकां मदल्यान वयता. -- सगळ्याच

मांडार रावता. विचारता. हेर लोक सुंदर कन्येक पळयत उरता.
--- गीत आयकूंक येता.)

कस्तुर न्हैं हें
कस्तूर मेरुं
अप्रूप सुंदर कायेचें
नवीन सुंदर
मनान सुंदर
माये मोगा सासायेचें.

अळंकार हे
कुबेर घरचे
आंगार ताच्या लखलखता
संवसार नदरो
ताका पळयतां
वखवखशो भगभगता

(कुंडेकुस्कुराच्यो पांचूय भयणी ते वेटेन जात्रा भोंवतात. तींय कुंडेकुस्कुराक पळयतात आनी अजापतात.)

चंपा : कस्तूर शी
कस्तूर शी
अस्तूर ही पळया
नदर कशी
आपले वटेन
ओडी ती बळयां

(एकामेकांक सांगल्लेवरी सगळ्यो भयणी हीं उतरां म्हणटात.)

कस्तूर शी
कस्तूर शी
अस्तूर ही पळया
नदर कशी

आपले वटेन
ओडी ती बळयां

चंद्र कशे
दोळे ताचे
आंगार इंद्र अळंकार
पायांत ताच्या
झुणू झुणू
खेळ खिणात झणत्कार

अप्रुपांची
परी गो ही
आंकवार भर्जर नार
करीत येता
फुलां हातांनी
उक्तें सर्गा दार

**चंपा** : आगो आगो पळयात... ती गेली दिस्ता नाटकाक माटवांत, आमीय थंय या. चला चला.. आनी आमी सगळीं तिचेच लागसार बसुयात हां... (वयतात.)



## प्रवेश : 11

(कुंडेकुस्कुर सकाळीं उठून शेणी थापता)

कुंडेकुस्कुर : रात्री वेळार
फांत आज्याचो
फांत्यार हातांत शेण
नशीब म्हजें
म्हणून शेणान
लिपलां माणकां केण

जाण कोण
कसलो हो संवसार
दाखय लिपय करता
फटोवन सगळ्यांक
ल्हवूच म्हाकां
सर्गांतूय तो व्हरता.

येतल्यो आतां
भयणी साळकायो
करुंक म्हाकां पिकार
कळणा म्हाकां
कित्याक तांच्या
मनात भल्ला विकार

ए अम्बानो
येयात हांगा
नाचत वझ्या पावलांनी
दाखय नाकां
नेट म्हाकां गो
व्हांवत आपल्याच ल्हारांनी

(कुंडेकुस्कुराच्यो भयणी नाचत नाचत येतात.)

**कुंडेकुस्कुर**
**कुंडेकुस्कुर**
**वंठार पोराच्या**
**ना हांस्कूर**
**ना हांस्कूर**

**वंठार ताच्या**
**दुखूर दुखूर**
**उतरां फोफेतात**
**गे सये**
**उतरां फोफेतात**
**दोळ्यांत ताच्या**
**घुरु घुरु**
**दुकां घोगेतात**
**हो सये**
**दुकां घोगेतात**

(नाच थांबयता आनी सगळीं ताचे भोंवतणी उबीं रावतात.)

**आबोलें** : बाय गो कस्तूर. तुजें नशीब तुकां खूब छळटा.

**कुंडेकुस्कुर**: हय. म्हाकां म्हजें नशीब खूब त्रास दिता. आदीं म्हाकां ताचे चड त्रास जाताले.

**शेंवतें** : आनी आतां तुकां ताचे त्रास जायनात?

**कुंडेकुस्कुर**: ना. बाय शेंवत्या. हांवे आतां त्या त्रासांकूच सूख म्हणपाक सुरु केलां.

**चंपा** : व्वा ! काय बरी कल्पना. पूण कस्तूर गो तुकां तें जमता आमकां मात तें कशेंच जमना.

कुंडेकुस्कुर:

दुखाक मानीना दूख दूख हांव
सुखाक मानीना सूख
जीण म्हजी हांव उर्बेन जगतां
जशे जगतात धर्तर रुख.

वतांत तापतात दरयांत भिजतात
कसलीच करीना चिन्ता
धर्तरेर ह्या सर्वय सुखांच्यो
खणीच पिकता अन्ता.

म्हजे खातीर गो कुंड्या- शेणीनी
धरुन धल्ल्यां अप्रुपां
कळे दुखांचे पळय पळयतां
फुलल्यां म्हजीं सुखरुपां.

सगळ्यो भयणी :

पळयात दूख मनशाक अशें शाणें करता. गिन्यानी करता
(सगळीं गावपाक लागतात.)

दूख मनशाक शाणो करता
गिन्यानाचो कोरो करता
मागीर तांची दुखां सायबिणी
आपले आपूण सुखां जाता

कस्तुरुय गो अशेंच आमचें
करतां करतां जालें शाणे
दुखांची वारीं परतून घालून
तांचींच घडलीं सुखां ताणे

**घरांत आमच्या घडलें ताणे**
**अप्रूप असल्या कर्तुपाचें**
**मनात आमच्या आमकांय दिसता**
**वायट आपल्याच्या कर्तुबाचें**

(ल्हवूल्हवू नाचप गावप थारता.)

**चंपा :** कस्तूर गो, तुकां खबर आसा रातीं कितें जालें तें?

**कुंडेकुस्कुर:** म्हाकां खबर ना गो कांय. भायर तर तुमी गेल्लीं. जात्रा तर तुमी पळयल्या.

**आबोलें :** हय पापया, तुकां जात्रा पळोंवक गावली ना. पूण तुकां सांगतां. थंय मगो एक सुंदर राजकुंवर आयल्ली. सामकी तुजेच भशेन दिसताली.

**कुंडेकुस्कुर:** (मुद्दम आपल्या तोंडावयले भाव लिपयत) सामकी म्हजे भशेन ? म्हजी मारतात मगो फकाणां !

**शेंवतें :** ना गो. तुजीं फकाणा मारीना गो. खऱ्यांनीच सामकी तुजेवरी. कितेंच वेगळें ना. ताच्या आंगावयले अळंकार आनी सोबीत सुंदर वस्त्रां सोडलीं जाल्यार सामकें तूंच तूं.

**कुंडेकुस्कुर:** आसत. तशें जाल्यार तुमचे भाशेंत हांवेंच म्हाकां पळोंवक ना अशेंच म्हणचें पडटलें.

**जायू :** कस्तूर गो, तुवें तिका पळोंवक जायच आसली. इतली सुंदर अस्तुरी म्हाकां केन्नाच पळोंवक गावली ना.

**कुंडेकुस्कुर:** तुमच्या म्हणण्या प्रमाण ती अस्तुरी जर म्हजेवरी दिस्ताली जाल्यार हांवय तितलीच सुंदर अस्तुरी जाली ना?

**चंपा :** बाय, कस्तूर म्हण्टा तें तशें सामकें खरें. पूण आमकां आमचें कस्तूर म्हटल्यार कुंडेकुस्कुर दिसता. पूण कस्तूर, म्हाकां मात ताका पळयतना तें तूंच काय कितें असो भास जाल्लो.

कुंडेकुस्कुर: (हांसत) आसू चंपा, बाय तुमी जात्रा बरीं मिरयल्यां म्हणपाचें हांगा सिद्ध जाता. आनी तें म्हज्या नशिबांत ना अशेंच म्हणून तुमकां म्हाकां चाळोंवक जाय.

प्राजक्ता : ना कस्तूर बाय. आमकां तुकां चाळोंवक नाकां हां. आमचे भयणीक माणकुले भयणीक हें पळोंवक गावलें ना म्हण वायट दिसता.

कुंडेकुस्कुर: आसूं, म्हाकां मात्तूय वायट दिसना. हांवेंच म्हाकां पळोंवक ना हाचें तुमकां वायट दिसता इतलोच हाचो अर्थ जांव येता. आनी हातूंत म्हाकां कांयच वायट दिसना. पूण -

चंपा : पूण कितें कस्तूर बाय ?

कुंडेकुस्कुर: म्हाकां वायट दिसता तें आमी आमचे आवयपसून आनी बापायपसून पयसावल्यां हाचें. तांची याद येता आनी हांव म्हजे कुडींत बसून एकटेंच रडटां. म्हाकां दिसता तुमकां घरची यादूच येना काय कितें?

**साद येता घालीत याद**
**याद म्हजे मायेची**
**साद येता घालीत याद**
**दारांतुले जायेची.**

**साद येता घालीत याद**
**गंगेवरी बांयेची**
**साद येता घालीत याद**
**आयाव पांचवे केळीची.**

**साद येता घालीत याद**
**याद म्हज्या दायची**
**ताचेवीण जातली कशी**
**जीण आमची फायची.**




**साद येता घालीत याद**
**सासाय म्हजे मायेची**
**साद येता घालीत याद**
**दारांतुले जायेची.**

(सगळ्यो भयणी दोळे पुशीत एकामेकांक धरतात आनी कुंडेकुस्कुराकूय धरतात.)

**चंपा** : बाय कस्तूर आमी या घरा. आयजूच आमी आज्जेक विचारुया आनी घरा या .

**प्राजक्ता** : आमी जाता तितले बेगीन घरा या. म्हाकांय घरा वचपाची उमळशीक लागल्या. ही पळय आजी हांगाच येता.

**म्हातारी** : आयज म्हज्यो धुवो सगळ्यो एकठांयशो जाल्यात सकाळफुडें. कस्तूर बाय तुमच्या तोंडार अशीं दुकांची कुपांशी कित्यात?

**कुंडेकुस्कुर** : आज्जे, तुज्या मोगान आमकां सामकीं धादोस केल्यांत. तरी आमकां आमचे मायेची याद येता. बापायची याद येता. आमच्या पोल्यार दिसपी ही दुकां न्हय. तर ह्यो आमचे मायेच्यो यादी.

**म्हातारी** : म्हाकां कळटात माणकुल्यांनो तुमच्यो ओडी. हांव तुमकां आयजूच धाडटां. चला भितर या. हांव तुमकां कशीं कशीं वचपाचें तें सांगता म्हणजे तुमी वाटेंत चुकचीं ना. आनी सांज सूर तुमी घरा पावतलीं

(सगलीं वयतात भितर आनी भायर येतात.)

(सगळ्यो भयणी आपापल्यो पोटल्यो घेवन. जातूंत भांगरां शिंगरां आनी कांय कपडे आसात. कुंडेकुस्कुराच्या माथ्यार मात एक शेणीनी भल्लेलो साक. ते भायर एके पोतयेंतूय शेणीच.)

**कुंडेकुस्कुर** : (हात हालयत) आज्जे, चल तूं आतां. आमी वयतां ल्हवू ल्हवू.(ती तांकां पयस दिसता.)

**चंपा** : (हात हालयत) येतां. आज्जे, आमी तुकां परतीं मेळपाक येतलीं. चल तूं.

(सगळ्यो भयणी तिका हात हालयतात.)

**आबोलें** : पळयात, चलतां चलतां आमकां कितलो वेळ जालो न्हय, सूर्य तर सामको माथ्यार आयला.

**प्राजक्ता** : म्हाका जाल्यार भूक लागूंक लागल्या.

**चंपा** : हय मगो. रावात तर, आज्जेन म्हजेकडेन बऱ्यो गोडसोय घालून केल्ल्यो दाट दाट भाकऱ्यो दिल्यात.

**जायू** : हो तो पळयात. थंय वझरो व्हांवता. हांव वचून थोडें उदक घेवन येता. तो मेरेन तुमी खावपाक सुरु करात

(सगळीं बसतात आनी चंपा सगळ्यांक भाकऱ्यो दिता. सगळीं खांवक लागतात. जायू उदक हाडूंक वयता.)

(सगळीं गावंक लागतात.)

**आयज आमी**
**आयज आमी**
**घरा पावतलीं**
**दायचे आमी**
**बाचे आमी**
**वेंगेंत रिगतलीं**

**दायच्या रागान**
**तिडकी धगान**
**आमी लासतलीं**
**पूण दाचेमाये**
**गंगे न्हंयेत**
**आमी भिजतलीं.**

(जायू धांवत धांवत येता. गाणे थांबोवन सगळीं)
कितें जालें जायू ?

**जायू** : भयणांनो आमच्या सगळ्या वाटांनी आमकां चोरांनी घेरल्यात. (चोर सगळ्या वाटांनी येतात. सात आठ जाण आसात. सगळीं आपापल्यो पोतयो घेतात.)

**वर्तो चोर** : थंयच रावात. आनी तुमच्या हातांतल्यो पोटल्यो अशो काळजाकडें धरुन कांय उपेग ना. त्यो आमच्या हातात सोंपयात. आरे पळयतात कितें, घेयात काडून तांचेकडल्यान ह्यो पोटल्यो.(चोर तांचेकडल्यो पोटल्यो काडून घेंवचो यत्न करतात. चलयो मातसो प्रतिकार करतात पूण मागीर चोर तांच्यो पोटल्यो घेवपाक जैतीवंत जातात. एक चोर कुंडेकुस्कुराची पोती ओडटा (सगळ्यो भयणी रडटात.)

**कुंडेकुस्कुर** : व्हर सायबा. ही पोती व्हर.

**1 चोर** : वर्त्या हे पोतयेंत फकत शेणी आसात.

**वर्तो चोर** : आरे, शेणी आमकां कित्याक? त्या साकांत पळय कितें आसा तें.

**चोर** : (चोर कुंडेकुस्कुरा कडलो साक उक्तो करुन पळयता.)
वर्त्या होय साक फकत शेणीन भल्ला.

**वर्तो चोर** : आरे ही कसली भिकाड्डी चली रे. सोड तो साक आनी शेणीची पोती. चला रे.. या आमी (सगळे सामान घेवन वयतात.)

**चंपा** : (रडत) आतां आमी दायक कितें दितलीं? तो आमकां आतां कसोच घरांत उबो दवरचो ना.

(सगळ्यो भयणी रडटात.)

**कुंडेकुस्कुर** : खरेंच. आमचो दाय म्हटल्यार जमदग्नी. ताका आमचो खूब राग येता. आपल्या संवसाराक भारसो असो आमकां पळयतां. पूण आतां तुमी रडूं नाकांत. आमी या आतां. ना जाल्यार आमकां पावपाक उशीर जातलो. (एक एक करून सगळीं वचपाक लागता.)



कोणा कोणाचे
नशीब कसलें
पावला पावलाक
बदलून वयता.

आतांच आसली
मूठ भल्लेली
खिणात पूण ती
पोकी जाता.

जाण कोण हें
नशीब कसलें
आनी कळना
कसली करणी

दिसल्यो हातांत
शेणी तरी थंय
आसा गोठेल्ली
भांगरा करणी

(ल्हवू ल्हवू माचयेर काळोख जाता)



## प्रवेश : 12

(बाबल्याचें घर. तो आंगणांत बसला आनी विडी फुसकायता.)

**बाबलो** : गुणवंते... गुण्या गो... आमी जरी आतां चार गोटे सुसेगान खाता न्हय.

**गुणवंती** : हय गा. तुमी चार गोटे खाता हें सामकें खरें. पूण म्हज्या ताळ्यांतल्यान देंवपी दर गोटो म्हजो गळो चिरीत वयता.

**बाबलो** : तो आनी कित्याक ?

**गुणवंती** : आगा, तो आनी कित्याक काय म्हण्टा? आमच्यो नक्षत्रांवरी धुवो कसलीं दुखां भोगतात जाण कोण! तांची याद म्हाकां दर खिणाक सतायता. म्हज्या जेवणाची रुच केन्नाच शेणून ना न्हपय जाल्या.

**बाबलो** : कळटा म्हाकां. पूण नशीब कोणाक चुकलां?

**गुणवंती** : पूण रानांत तांकां कोणे नशीबान सोडल्यां? सोडल्या तीं तुवें. पूण आयज म्हजें काळीत तांच्या मोगान सामकें व्हांवपाक लागलां.

**बाबलो** : आगे, आगे आमगेर कोण सोयऱ्यां येताशीं दिसता.

**गुणवंती** : सोयऱ्यां... आनी हे वेळार... खंय पळोवया

**बाबलो** : हीं ती पळय गे. मेजून कितलीं आसा काय ती; खूब जाणांशी दिसता.

**गुणवंती** : आगा. तुमी तांकां सोयऱ्यांशीं म्हण्टात. तीं आमची नक्षत्रां मुगा.

**बाबलो** : आरे ... हय मुगो.
(सगळीं येतात आनी 'बा गे' असो हामेर घालतात.)

**गुणवंती** : येयात म्हज्या धुवांनो तुमच्या यादीनी म्हज्या दोळ्यांच्यो झरी जाल्ल्यो.

बाबलो : येयल्यो ह्यो अवदिसो खांवक म्हाकां. कितें हाडलां तुमी आमकां?

सगळीं : आमचीं सगळीं भांगरां शिंगरा चोरांनी चोरून व्हेलीं.

कुंडेकुस्कुर: हय दाय, तांचेकडें जायतें भांगर शिंगर आसलें. पूण तांचे नशीब अशें फुटकें. वाटेक आमकां चोर मेळ्ळे ताणी सगळें चोरुन व्हेलें.

बाबलो : कस्तूर. आगो तांचे सोड. तुवें तुज्या माथ्यार साकान घालून कितें हाडलां? हाड पळोवया? (ताचो साक देंवयता. उक्तो करुन.) आगो ह्यो शेणी मगो. हांगा कितें शेण ना म्हणून हाडल्या ह्यो आमकां? (शेणी शेंवटीता.)

कुंडेकुस्कुर: दादा ह्यो शेणी न्हय. ह्यो भांगराच्यो. माणकां मोत्यांचो काणयो.

बाबलो : (शेणी माड्ड्यत.) हो कोयर कित्यात हाडला.. अब्बा कस्तूर. हय मगो खरें मगो. ह्या शेणीनी माणकां मोतयां आसा. (फुटलेल्या शेणीतल्यान माणकां मोतयां वेंचता) वा वा ! म्हजे मोगाळ धुवे. .यो अशी वेंगेंत....

गुणवंती : पळय --- ---- पळयलो भांगर म्हण्टकूच तेंकलो ताका.

बाबलो : ही म्हजी (ताका वेंगेंत घेत.) मोगाची धूव. ह्या साळका म्हाळकायांक वचुनी परत रानात.

सगळ्यो भयणी: नाकां दाय आमकां धांवडांवक.

चंपा : आरे... होतो पळयला. हो तो मोर... जो आमकां ते आझ्रेले थंय पळोंवक मेळ्ळोलो तो.

(मोर लागीं येता.)

कुंडेकुस्कुर: मोरा रे यो.. तूं हांगा आयला तो म्हाकां सोदपाक मरे ... (मोराक पोशेता.)

बाबलो : कस्तूर हो मोर तुवें थंय पोसलेलो काय कितें गो?

कुंडेकुस्कुर: ना. दाय हो मोर सदां म्हातारे आज्जेच्या घरांत, पूण म्हजे कुडींत

येतालो.

**चंपा** : लोक उलयतालो ते खरें तर आमकांच कांय खबर नासलें.

**मोर - राजकुंवर** :

हांव मोर. पूण हें मोराचें रुप. हांव खरो राजकुंवर. तुमची ही धूव जिका म्हातारेगेर सगळो लोक कुंडेकुस्कुर म्हण वळखताले. ती खरी तर कस्तूर. हे इतले सुंदर कस्तूरेक कोण्ण वळखलो ना. तिचीं उतरां सोबीत आनी मोगाळ. तिचें खालतीकायेन चलप म्हाकां खूब मानवलें. हांव तिका मोर जावन मेळटालों. कारण हांवे तिका वळखल्ली. आवय बापायक तिचें मोल खबर ना. भयणांक तिचें मोल खबर ना. स्वताच्या तिच्या गांवच्या लोकांक तिचें मोल खबर ना. हांवे तें वळखलें. आतां ह्या प्रदेशाची हीच राणी जातली. कुंडेकुस्कुराची राणी दुर्बळकायेचो हो गोबोर फाफडून आतां हें भाग्य आनी ही उदरगत लोकांचे नदरेक येतली. आपलें उतर आनी आपली म्होवाळ मोगाळ भास घेवन ही कस्तूर सवन संवसाराक पातळटली.

(मंगल वाद्यां वाजतात. भयणी माळो हाडटात. आनी दोगांयकडे दितात आनी राजकुंवर आनी कस्तुर एकमेकाक माळ घालतात. आनी आसमंतांतल्यान सूर आयकूंक येतात.)

**कोणूय कोणाची**
**जीण अशी**
**धांपूक केन्नाच शकना**
**वेळ येताच**
**झगझग ताचो**
**लिपून रावूंक शकना**

**कस्तूर मेरुं**
**कस्तूर सोदूंक**

धांवता  दुसऱ्यां फाटल्यान
खबरुय ताका
आसना की ती
दडल्या आपल्या पोटान

(सगळीं भुरगीं एकठांय जावन नाचपाक लागतात.)

कितलो सुंदर आमचो खेळ
खेळ सुंदर चलयेचो.
म्होवाळ मोगाळ उतर ताचें
घडटा ऋतु अमृताचो
आयज आमी खेळ्ळो खेळ
खेळ सुंदर अस्तुरेचो
दुख्खी ताची जीण तरी
रंग तातूंत होळयेचो

(पड्डो पडटा.)

❑❑❑

# गोवा कोंकणी अकादेमीचीं
# भुरग्यांखातीर पुस्तकां

## बालनाट्य

इगडी बिगडी तिगडी था - प्रा. प्रकाश पर्येंकार

कुंडेकुस्कुर - रमेश भगवंत वेळुस्कार

## बाल नवलिका

हरीश, पिरीश आनी देंवचार - सतीश दळवी

रानाच्या मनांत - माया खरंगटे

काणी आज्याली - देविदास कदम

वर्स फुकट वचूंक ना - गजानन जोग